# आनी कणसां हांसली

संदीप वासुदेव रिवणकर



पुष्पावती प्रकाशन

# आनी कणसां हांसली

बरोवपी : संदीप वा. रिवणकर

१ - त्या दिसा
२ - दुरीग नात्याचें



**आनी कणसां हांसली**

१- त्या दिसा

२- दुरीग नात्याचें

**बरोवपी :**

संदीप वासुदेव रिवणकर

फोन नं: ९८२२९८६०६४

०८३२-२८५८७८७

**पयली आवृत्ती :** २०१४

**उजवाडावपी :**

पुष्पावती प्रकाशन

दाभण-राय

सालसेत - गोंय

४०३ ७२०

**मुद्रक :**

आदित्य मिलींद तिंबले,

स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,

माशेल, गोंय

**अक्षर जुळोवणी :**

रेखा गावडे

**मुखचित्र :**

आर्ट अॅन्ड कम्युनीकेशन

**मोल :** ₹ ६०/-

**हें पुस्तक कला आनी संस्कृती खाते-गोंय सरकार हांच्या गोंयच्या लेखकांखातीर आर्थिक पालव हे येवजणेखाला उजवाडाक हाडलां.**

बरे संस्कार घेवन आमकां
समाजांत मानान जगपाक शिकोवपी
आमच्या जल्मदात्या बाबाक हें
पुस्तक हांव भेटयता



कै. वासुदेव उ. रिवणकर

# आनी कणसां हांसलीं

"आनी कणसां हांसली".तशें पळोवपाक गेल्यार मनशाचें जिवीत म्हळयार एका कणसा भाशेनूच, जें कणस शेतांत सैमाचे सगळे त्रास सोंशीत धान्य घेवन उबें रावता. जरी धान्याच्या कणा कणाक आमी वळखनात पुण तेंच धान्य आमचें पोट भरता, जगपाची उर्जा दिता,नवें चैतन्य दिता, नदर पावना असल्या शेताक आमी पळयतात तें फक्त कणसां आनी धान्य म्हणून.

अशीच हर एकल्याची जीण, शेतरुपी ह्या संवसारांत मनशाच्या रुपांनी हीं कणसां जीं जल्मभर त्रास काडून आपलें जीवीत सारतात, अशें हजारांनी लोक जांकां कोणूच वळखनात, पुण ते त्रास काडून आपलें योगदान ह्या समाजाक दितात. तांतूतलींच थोडीं कणसां नाटकां करपाची उमेद बाळगीतात. गांवच्या ल्हान व्हड जात्रांनी नाटकां करप म्हळयार उमेदूच, आर्थिक, समाजीक, राजकीय, मानसीक अशे तरेकवार त्रास सोंसून लेगीत धा-पंदरा जाणांचो पंगड गांवांत तयार जाता, जांकां सगळयांनी मेळून नाटक करपाची खूब ख्रोस आसता. पुण नाटक मेळपाची म्हणां, चड, भाषण पाठ करपाची ताकत म्हणा किंवा वेळे अभावी म्हणा शक्य जायना. पुण गांवच्या लोकांची करमणूक करची, देवाचो आशिर्वाद घेवचो तशेंच समाजाक एकवटान हाडचो आनी त्याच बरोबर समाजाक एक नाटकाच्या निमतान बरी देख दिवची अशी उमेद आसता.



होच विचार करुन देवाच्या आर्शिवादान आनी सरस्वती मातेच्या वाणींतल्यान हीं नाटकां प्रकाशित करपाचो हांवें प्रयत्न केला. ह्या नाटकांतल्यान. कोणेय हांसत हांसत थोडी लेगीत बरी देख घेतली तर हांव म्हणटलों कि म्हज्या जल्माचें हें एक सार्थक, जाणें करुन आनी कणसां हांसली.

**संदिप वा. रिवणकर**

**"त्या दिसा"** या नाटकाचो पयलो प्रयोग २००९ सालात रथसप्तमी दिसा तशेच **"दुरीग नात्याचे"** या नाटकाचो पयलो प्रयोग २०१३ सालात रथसप्तमी दिसा श्री सांतेरी युवा मंडळ राय, हाणि श्री सांतेरी कामाक्षी संस्थान सांतेमळ - राय हांगा माचेर हाडली. ही नाटका बरोवन दिग्दर्शन केले संदिप वा. रिवणकर हाणे आणि

**हातुतले कलाकार**

दामोदर रिवणकर

किशोर रिवणकर

सिद्धी बांदेकर

रोहित रायकर

प्रितम रायकर

प्रज्ञा रायकर

रेश्मा रायकर

रुपेश रायकर

स्नेहल रायकर

विनोद नाईक

समरेश वडावडेकर

निलेश रायकर

उल्हास बेलगांवकर

संदिप रिवणकर

**विषेश आभार**

सुफला रिवणकर

नैनेश वेंलेकर

भारती रिवणकर

उपेंद्र रिवणकर

||श्री||

रंगमंच - एक हॉटेल. हॉटेल विठ्ठल केफे नांवाचो बोर्ड वंटीर माल्ला.एक मेनू चिटकायला, गल्ल्यार बिस्कीटांचे डबे. माचेर केळयांचे घड ओमतो लांबयला. सामोसा, तातयां अशो खावपाच्यो वस्तू गल्ल्या कडेन दवरल्यात. त्याच बरोबर मेजां आनी कदेलां आसात. रेडियोचेर त्या दिसा वडाकडेन घडत तिळसणां हे गाणें चलता. मोटवी पेन्ट घातिल्लो होबळो वेटर मेजां साफ करता. इतल्यान हॉटेलाचो मालक साधारण ६० वयोगटांतलो दाट वक्ल घातिल्लो धोतर न्हेशिल्लो विठ्ठल स्टेजीर येता.

विठ्ठल : आरे होबळया, मातसो रेडिओ बंद कर पळोवया (होबळो वेटर धांवत येवन रेडिओ बंद करता)

विठ्ठल : (देवाक पांय पडटा) श्री गजानना आनी समस्त ३६ कोटी देवांक नमन करुन आयच्या दिसाचें मागणें देवा आज हांवें (लिस्ट पळयता) ४० बटाटवडे केल्यात, ५५ सामोशे, मिरच्यो ८०, तोपभर भाजी आनी परात भर शीरो केला. तेन्हा तुवें जाता तितके बेगीन गिरायक धाडून हें सामान सगळें खोपोवचें आनी बदलाक हांव एक उजवात पेटोवन कापसाचें वस्त्र तुका अर्पन करीन

होबळो : पात्रांव, सदां सदां ही देवाक कापसाची वस्त्रां घालतात. वरसाक एक तरी वेळा शर्ट पीस दी मरे ताका.

विठ्ठल : तें आमच्या भितर. राव रे! हे बटाटवडे ३५ आशिल्ले ते ४० कशे बरयले तुवें ?

होबळो : ते पांच कालचे पांच उरिल्ले न्ही ? खपनासतना

विठ्ठल : आरे, पुण ते बेळशेले आसतले मरे?

होबळो : घालुया ते कोणाकूय.आताच्या भुरग्यांक कितें रुच आसा? (इतल्यान आलेस बाब येता)

विठ्ठल : आरे आलेस, आज सकाळफुडेंच मरे

आलेस : कितें कोतोलों, कामाक वौसों नाका? च्या मारया म्हुळें.आरे होबळया एक हाफ़ च्या हाड चोवया.

विठ्ठल : (रागान) हे पळय....सकाळफुडें हाफ च्या बी कांय ना.आजून बोणी जावना.

आलेस : आरे तुगे हाफ चायेची हे सिलिटी आहा म्हुण येताय न्ही आमी. ना म्हुळयार कितें?

विठ्ठल : फेसिलिटी आसा रे.पुण सकाळी सकाळी न्ही.

आलेस : हें नाका जाहले मुरे.सकाळी सकाळी भुरगीं हाफ टिकेटी मागिनात?

विठ्ठल : (रागान) म्हगेली ही कदंबा बस न्हय, हाफ टिकेटी मागपाक.हें हॉटेल ...हें हॉटेल.आरे होबळया लाडवांचेर माल्ले स्टिकर? (भितल्ल्यान) माल्ले पात्रांव, माल्ले पात्रांव म्हुण होबळो आवाज दिता) तांतयांचेर माल्ले स्टिकर? (माल्ले), केळयांचेर माल्ले स्टिकर (माल्ले).

आलेस : आरे ही केसो भानगोड? केसो स्टिकर मात्ताय रे तुमी?

विठ्ठल : आमच्या हॉटेलाची हि नवी स्पेशेंलिटी. सगळया लाडवांचेर, तांतयांचेर, केळयांचेर आमी हिरो, हिरोयिणीचें स्टिकर मारतात.

कस्टमरानीं जाय त्या हिरो हिरोयिणीच्या नांवाचे मागपाचें आनी खावपाचे.

लेस : ही आनी कॉमिकूच मरे .... म्हुळयार?

हुल : म्हळयार अशें तुका हामलेट खावपाक जाय जाल्यार तुका जाय त्या हिरोचें तातें मागपाचें आमी ताची हामलेट करुन दितात. For example तुका सलमान खानालें जाय. जाल्यार आमीं, ताच्या स्टिकराचें तातें फोडटात, जर शारुख खानालें जाय जाल्यार ताचें फोडटात.

लेस : (माथें खरपीत) केसो तोकल्यो रे यो खोपोवपाच्यो?

हुल : आरे होबळया, दी ताका च्या वचूनी ताका.

लेस : तुगे इस्त म्हुण सामकी फ्राक जाल्या मुरे. कितु दाट वोक्ल लागोलां रे तुका?

हुल : आरे हांवे इसपिसाल करुन घेतलां मरे हें (वक्ल काडून पुसता). आरे ताचें अशें, ही कॉलेज्यातलीं भुरगी येतात न्ही हांगा. खावपा परस मोग चड करतात. पयस वचून बसतात, म्हुण वक्ल दाट करुन घेताला. (आलेस उठ्ठा)

लेस : आरे जाणटेपणांत बरो खोतखोतो मारता मुरे तुका (आलेस पयशे दिता आनी वता)

(इतल्यान दोतोर आनी ताचो (compounder गळंगळे) बेग घेवन येतात).

होबळो : पात्रांव, दोतोर आयलो दोतोर.

विठ्ठल : हो आनी खंयचो दोतोर? नवीनूच सो.

गळगळे : वळखलो ना? हो दोतोर हातमोडे आनी हांव ताचो compounder गळंगळे.आमी मोबायल दोतोर. गावां गावांनी, घरा घरांनी वचून लोकांची दुयेसां बरीं करतात.

होबळो : झाडपाल्याचो दोतोर काय कितें रे?

दोतोर : कितें? हांव झाडपाल्याचो दोतोर?हांव दोतोर हातमोडे, MBBS BOM DOM COM मरे गांवांतले लोक खूब दुयेंत आसतात पुण ते दोतोरागेर पावनात. कोणाच्यान चलपाक जायना, थोडयांक भुरगीं जायनात, थोडयां कडेन पैशे आसनात. म्हण हांवे म्हळे इतलें शिकप करुन गांवांत सेवा केल्ली बरी.

होबळो : म्हळयार तुमी तपासपाक पैशे घेनात तर?

गळगळे : पैशे घेतात रे, पुण परिस्थिती पळोवन

विठ्ठल : वखद पारखाक पडटा मरे?

दोतोर : (रागान) कितें? पारखाक पडटा? आरे फाटल्या दिसांनी केळेबाबाचो हात भायर सरिल्लो.हांवें हाती धल्लो आनी गियर घातता त्या भशेन खट्टाक केलो.ज़ालो ना बरो? त्या सुंदरच्यागेर भुरगीं नाशिल्लीं, रडपाक लागलें म्हज्या फुडयांत येवन. न्ही रे गळगळया? हांवे म्हळे भिये नाका. गुळयो दिल्यो आनी माल्लें इंजेक्शन ... जालें ना भुरगें?

होबळो : आरे सुंदऱ्याक भुरगें जायनाफुडें घोवान कित्याक सोडले तर ताका?

ळगळे : आरे ताचें अशें जालें. सुंदऱ्याचो भुरगो सामको दोतोरा भाशेन दिसपाक लागलो, म्हणून सोडलें ताणें ताका.

तोर : (भियेवन) गळगळया, त्यो पोटां पडनाशिल्यो खोबरो नाकात पळोवया. वेटर दोन पातळ भाजी हाड पळोवया (वेटर दोन प्लेटी भाजी घेवन येता)

बळो : दोतार म्हाकाय ह्या दिसांनी आयकुपाक सामकेंच कमी येता. चवथीक गरनाल मारल्यार फुगेट मारिल्ले वरी आयकूंक येता.

तोर : तूं कांयच भियेनाका. हांव करतां तुजो कान सारको (दोगुय भाजी खातात, मदी दोतोर होबळयाचो कान तपासता. तेन्ना कंमपांवडर ल्हवूच जोल्लो काडून भाजेंत उडयता).

ळगळो : दोतोर, दोतोर जोल्लो

तोर : हांव जोल्लो?

ळगळो : ना दोतोर भाजेंत जोल्लो.

तोर : कितें? आमकां जोल्यांची भाजी? येदे व्हडल्या दोतोराक जोल्ल्यांची भाजी? हांव ओगी रावचोना, कमप्लेन करतलों हेल्थाक.

डल : (भियेवन) आरे पुण हो जोल्लो कसो पडलो?

गळगळो : आमीं जाणांत विमानांतल्यान पडलो काय पेरश्यूटांतल्यान देंवलो तो?

विठ्ठल : पुण हो जोल्लो आयलो खयंचयान?

दोतोर : (जोल्ल्याक हातांत काडून) आरे बाबा जोल्ल्या तूं खंय साकून आयला? अमेरीका काय ऑस्ट्रेलिया?

विठ्ठल : तशें नी रे. म्हज्या हॉटेलान पयलेच खेपे अशें जालां.आरे पुण हो जोल्लो आसचो ना.जल्ल्याक आठ पांय आसतात न्हीरे?

गळगळो : चूकून जोते माल्ले तेन्ना थोडे पांय पडले जातले. (तोंडार हात धरता आनी दोगांय धांवपाचे तयारेन रावतात)

विठ्ठल : (रागान) खायात दळदिऱ्यानो, फुकट खायात, पचनाका तुका.

दोतोर : तूं कांयच भिये नाका.वखद आसा आमचेकडेन पचपाचे (दोगुय धांव मारतात)

(इतल्यान तातो (संजयालो बापूय) रागान भितर सरता)

तातो : हे रस्ताद, हांकां काम ना धंदो, बेकार लवडी.दोके मोडून घरांत बसोवपाक जाय हांका.दळदिऱ्यांक मेळूनी, कसो फोणांत घालता तो पळय.

विठ्ठल : आरे तात्या कितें जाला?

तातो : कितें जालां तें विचारूं नाका.कितें जांवना काय म्हुण विचार . तो म्हाबळयालो चलो सगळें सोडून म्हज्या चलयेचे फाटल्यान लागला

न्ही रे?

विठ्ठल : आं ...तो रे ....आनी ....ती.....ती तुजी चली? येतात मरे ती हांगा चडशे ते सलमान खानालेंच तांते सोदता.

तातो : आरे हांवें म्हज्या बायेक येद्याचें येदे व्हडलें केले. दूध इतले पिवयलें ...आज तेच डबे विकून त्याच पैयशांची स्कूटी घेतली म्हळयार पळय.

विठ्ठल : हेंच चुकलें तुजें

तातो : म्हणजें ?

विठ्ठल : म्हणचें तुमीं ताका डब्यांतलेंच दूध दिलें, ताका लागून तुमच्या चलयेक आवय बापायची मायाच उरली ना.

तातो : तशें न्ही रे ...पोर एकदम बरें म्हजें, पुण हो दळदीरो सांपडलो न्ही रे. दोनशे दोनशे पानांचे बूक हाडून घेतल्यात म्हजेकडेन. हांवे ल्हवूच उगडून पळयल्यार दोन पानां सुद्धां भरुना. पर्स उगडून पळयल्यार ह्या दळदीऱ्यांचो फोटो मरे. जोडप ना चार आणें आनी मोग करप बारा आण्यांचो. हें पळय आज तीं भलत्याच कामाक वचपाचीं आसात.

विठ्ठल : कसल्या?

तातो : हें पळय.एक म्हगेले काम कर तुगेलें सगळें सामोशे सोंपले म्हुण समझ. घरा यो आनी पैशे व्हर पुण ही दोगांय येनाफुडें म्हाका

रकाद धाड. (तातो वता)

विठ्ठल : सगळीं भुरगीं म्हुण अशीं जाल्यांत. कोण हाचेर मोग करता तर कोण ताचेर, कोण हाका धरता, तर कोण ताका सोडटा, सामकेच विटयला ह्या भुरग्यानी. तातूंत हो मोबायल म्हुण किल्ललो आनी सामकीच हळशीक जाली. कसले कसले व्हिडिओ म्हुण डावनलोड करतात रे तीं मोबायलाचेर?
(इतल्यान एक पुर्तुगेज पाकलो आंगाक सूट तकलेक टोपी, हातात रोत आनी बोल्सांत बाटली घालून प्रवेश करता)

होबळो : आयलो रे पाकलो आयलो. येदीं व्हडलीं डायणासोरां पसून काबार जालीं, पुण हे पाकले आजून काबार जावंक नात.

पाकलो : मूय दे पुर्तुगाल, देव बोरी सोकाळ आंवडेतां? कोहो चोल्लाय रे धंदो?

होबळो : कांदो ...? आवय खुबूच म्हारग जालां. आमीं कांदया जाग्यार कोबूच घालतात.

विठ्ठल : होबळया तूं भितर वच पळोवया. यो यो पाकल्या बस, किते घेतलो? भजी, सामोसा, बटाटवडो?

पाकलो : शे ...शे ....शे...मूय दे पुर्तुगाल मरे इंडियन जावन सोगळे ओहेंच जालां पळय. बोटाटवडे, सामोशे. सोरपातेल सोदल्यार लेगीत मेळोना मुरे विठ्ठोल?

विठ्ठल : पुण तुका आनी सोरपातेल खंय मेळटलें? आतां आनी सोरोप उल्यांत तेल काडपाक? रानां कापून बिल्डींगो जाल्यात न्ही रे?

होबळो : आरे सोरपातेल किते? Airtel घे, रेंज बरी मेळटा.

पाकलो : आरे हांव भाटांत नाल्ल पाडपाक अेयलेलो, खावपाक म्हुण बीबीक हाडलेलौ.

होबळो : कितें? (लजेत) बेबीक हाडील्ले भाटात? केदें व्हडलें जालां तें आतां?

विठ्ठल : होबळया तूं भितर वच पळोवया
(इतल्यान romantic म्यूजीक वांजता, सगळे दारा कडेन पळयतात. इतल्यान संजय आनी सोनीया आपले धुंदेत येवन बाकार बसतात.

संजय : ये दाला, कितलो वेळ गो तुका? तीं सवणीं सुद्धां फांतोडेर उठून मोग करतात मगो आनी आमचो मोग साडे णवांक सुरु मुगो?

पाकलो : हीं आनी खंयची सवणीं?

होबळो : कितें? पाकल्या बाब तूं आनी गाळी मारता?

पाकलो : हांवें सवणीं म्हुळयांत सवणीं सामक्यो Siberian Crane कोह्यो मुरे?

विठ्ठल : त्यो siberian नी सामक्यो पारामळयावेली क्रेनी.

विठ्ठल : होबळया तूं सामोशांचे पैसे घेवन यो पळोवया.
(नोकर गाडयेची नकल करीत वता)

पाकलो : विठ्ठोल, हांवूंय मातसो नाल्ल पाडटा तिंगा वोसोन येतां

(पाकलो वता)

संजय : हें पळय दाला, आज धा वरांचेर मुनसीपालटी उक्ती जातली आयच्याच दिसा अमीताभ बच्चन आनी जया चें लग्न जाल्लें. आयच्या दिसा सही मारुन रजिस्टर लग्न करप म्हळयार आमचें भाग्यच.

सोनीया : खरेंच रे राजा ! म्हणजे आमची ऐश्वर्या भशेन सून आसतली? (इतल्यान सोनीया रडपाक लागता).

संजय : तूं कित्याक रडटा गो? तूं कित्याक भिता. हांव आसा नी. काल तूं उमेदीन नाचतालें आनी आज रडटा कित्याक?

सोनिया : कित्याक म्हणचें ! हांव सही मारपाक शकना.

संजय : विचार बदल्लो कांय कितें गो?

(सोनीया बोट वयर काडून दाखयला. आंगठ्याच्या बोटाक टेप मारिल्ली आसता)

संजय : (अजापान). बोटाक कितें जालें?

सोनीया : पापाक आमचो प्लान कळ्ळो. ताणें राती हांव न्हिदिल्ले आसतना आंगठ्याच्या बोटाक ब्लेड लायली.

संजय : (रागान) कितें? बोटाक ब्लेड? हरामखोर, नालायक. म्हज्या मावां, हांव सोडचो ना ताका.

सोनीया : तसो नी रे म्हजो पापा. पूण आज ताका चडूच राग आयला.

संजय : राग येंवू जांव वाग येंवू हांव भियेना ताका हें पळय आमचे रजीस्टर लग्न जालें ना म्हुण तूं कांयच भिवू नाका. मागीर आमी आमचें लग्न मोठें बेन्ड बी लावन करुया.

सोनीया : शी ....म्हाका नाका तें बेन्ड .लग्ना. दिस डम डम डम...करुन कान फुटपाक. त्या परस ती थंड शहनाई काय बरी आयकन दिसता.

संजय : शहनाई ? तें नंदी बैलालें पेपारें? शीं म्हाका नाका ती शहनाई. म्हाका जाय ते बेन्ड, रक्त सळसळटा ताणे-

सोनीया : लग्नाच्या वेळार, रक्त कित्याक सळसळपाक जाय तर? एकदां सळसळपाक लागल्यार तें मागीर सळसळपाकूच लागता

संजय : म्हणचें तुच्या पप्पाच्या लग्नाक बेन्ड लायिल्लें भी काय कितें गो?

सोनिया : अे ...म्हज्या पप्पाचीं फकाणां करुं नाका, आ...आयकल्यार तो खातलो तुका, म्हजो पप्पा म्हळयार वाघ.

संजय : वर्सा जालीं जातली ६० ताका.आतां आनी तो वाघ उरला? तें जालां आसतलें मांजर .

सोनिया : तुज्या असल्या हुंदीर मामाक पापालें अेकूच दावकूल पुरो.

(इतल्यान होबळो तात्याक घेवन येता)

तातो : (रागान) आसा रे तूं दळडिर्यां?

संजय : हें पळय कित्या कितेंय अुलोवंक नाका हांव तुजो भावी जांवय.

तातो : जांवय बिंवय तेल लायत गेलो.ही बायजणपणां करपाक लज दिसना रे तुका?

संजय : लज दिसपाक हांव कितें चोर? हांव येदो व्हडलो इंजिनियर.

तातो : अुज्यांत घाल तुजी तीं इंजिनियर पणां. जात पळय अवचीना जात.

संजय : आतां जात बीत कांय उरुंक ना.शिकप आनी हुशार जावप हीच जगाची जात. तुमीच दवरल्यात फुकून फुकून त्यो जाती.

तातो : कोण सांगता रे जात ना म्हणून. जात वयर काडल्यार लज दिसता तुमकां.पुण जातीचो फायदो बरो घेतात मरे तुमी. शिकपाक जात, नोकरेक जात, प्रोमोशनाक जात आनी हो सांगता जात ना म्हणून.

संजय : तूं म्हजी जात वयर काडूं नाका आं! सांगून दवरतां

तातो : म्हज्या चलयेफाटल्यान लागल्यार हांव हात दोके मोडून रेल्वे स्टेशनार बसयतलो भीक मागपाक.

संजय : तूं खाटीक मरे.म्हज्या वकलेच्या बोटाक ब्लेड लायता?

तातो : खबरदार वकल म्हळयार

जय : ब्लेडीन घाव घालप आनी तलवारीन घाव घालप म्हळ्यार कितें रे ?
तूं क्रिमिनल मरे ...म्हाका लज दिसता म्हज्या मावाक क्रिमिनल म्हणपाक.

तो : पुरो कर तुजी करमलां
(इतल्यान लेडी इंस्पेक्टर हातांत दांडो, टोपी घालून प्रवेश करता)

पेक्टर : (मेजार दांडो मारता) कसलो चल्ला रे बोवाळ? (सगळे ओगी रावतात. इंस्पेक्टर येता आनी कदेलार पांय दवरता)

हे वेटर ऐक थंड लिम्का हाड

ब्ळो : (भियेवन) कितें? ....म्हाका ....लिमपाक कळटा इंस्पेक्टर

पेक्टर : (मोठयान) आरे लिम्का हाड. कितें जालां?...

कुल : हें प्रकरण मोगाचे सायब, हीं मोगीं आनी हो मिस मोग्याचो बापूय. पुण ताका जातीक लागून हो रिश्तो मंजूर ना.

पेक्टर : आरे आंता आनीक जातीक लागून लग्नां मोडपाचे दीस उरल्यात? काय बरी जोडी आसा मरे ही. तांतूत तो इंजिनियर आनी कितें जाय तुका?

तो : ना इंस्पेक्टर.... तूं चुकता... तूंय भी तसोच इंस्पेक्टर जाला आसतलो? धू म्हजी, तू जायत इंस्पेक्टर...पुणून हांव म्हज्या धुवेक म्हाका जाय थंय दितलो. तुमच्यान म्हाका कांयच करपाक जायना.

इंस्पेक्टर : आरे जमाने के साथ चलो. ह्या जाणत्या मनशाक सांगून कशेंच पटचें ना.
(इतल्यान एक टेररीस्ट मशीनगन घेवन आंगार जेकेट तकलेर काळो कपडो बांधून प्रवेश करता सगळे भियेतात .. पुलीस मारपाक दांडो वयर काडटा.इतल्यान टेररीस्ट मशीनगन दाखयता

टेररीस्ट : (मोठ्ठयान) या अल्ला.

विठ्ठल : कोण रे बाबा तूं?

टेररीस्ट : खामोश, उर्दु में बात करो

होबळो : इदु ... आवय, इदु मेलो बाबा पिवोन पिवोन (इतल्यान पाकलो येता)

पाकलो : मूय दे पुर्तुगाल. हांव बटाटवडो खावपाक चुकून ताज हॉटेलांत पावलो काय कितें रे?

टेररीस्ट : मुझे यही आदमी की तलाश थी

पाकलो : आमकांय म्हुण ओहोली हिन्दी खूंयसोर कोवता? पिक्चराचेच डायलोग मारपाक पोडतेले शे दिस्ता ..आरे तुम किस गोली का किडा हैं?

टेररीस्ट : खामोश ...जबान संभालके .. ..तेरे भेजे का खीमा करुंगा?

पाकलो : हो केसो भोज्यां खोबऱ्यो सांगता रे?

विठ्ठल : आरे भेजा म्हळयार तकली. पुर्तुगेजांनी हांचे तेल काडलां आनी पेण ती दवरल्या.

टेररीस्ट : मैं पाकिस्तान से आया हूँ. बम्बई में ताज हॉटेल में दिवाली मनाके गोवा में धमाका करने का इरादा था. लेकिन ...

ोबळो : देवा हांव ल्हानाचो व्हड गोयांत जालो आनी आता ह्या पाकिस्तानाच्या हातांत मरण कित्याक दवरलां रे देवा? (मोठयान रडटा)

टेररीस्ट : हम गोवा के लोगों को उल्लू समझते थे. साला हमारा सब plan ये गुवा पुलिस ने सत्यानाश कर दिया

ाकलो : आ रा रा रा ..रा...आमगे पुलिसांक गुवा पुलिस म्हुटा?

विठ्ठल : आरे बोवाळ कित्याक मारता. फट्ट करुन चाप ओडलो जाल्यार? आमचे फोटवांक हार घालचे पडटले

ातो : (तकलेर हात मारता) हे पुलिस ...आमचे पुलिस ..पळयात आमच्या पुलिसांक ...लज दिसना हांका, दाडो घेवन टेररीस्ट मुखार उबे रावपाक (रडटा). बाबा तुमी व्हरात रे काश्मीर व्हरात. जाय जाल्यार ताचेर फ्री म्हणून गोंयूय व्हरात. पुण म्हज्या एकुलत्या एक चलयेचें लग्न म्हज्या हातान करपाक दियात.

विठ्ठल : तुका मारनाकात आनी आमका मारात? भुरगीं ना म्हणून? आरे बाबा तूं कसो पावलो रे हांगा वाट चुकून? त्या पेडण्यांत हत्ती वाट चुकून पावल्यात म्हुण आयकल्लें

टेररीस्ट : खामोश, देखो आज हमारा आखरी दिन हैं। झुम्मा का चुम्मा.

आज हम (पुर्तुगेजांक बोट दाखयता) ये विदेशी नागरिक और तुम सबको मारके मिशन खत्म करेंगे. तुम सब अल्ला को प्यारे हो जायेंगे (सगळे भितात)

(इतल्यान इंस्पेक्टर हिरोच्या कानांत कितें तरी फुतफुत्ता, हिरो पाकल्याच्या कानांत गुणगुणटा)

टेररीस्ट : खामोश होशियारी मत करो. टायम कम हैं।

संजय : देखो भाई साहब हम सब भाई भाई है। गांधीजी ने भी हमारे नोट पर यही लिखने को बोला था. लेकिन नोट पर जगह नहीं मिली

टेररीस्ट : ये खाली पिली बंकस मत करना। साले सब को हलाल करके मारुंगा।

संजय : देखो भाई साहब हम गोवा के है. इंडिया हमसे बहुत दूर है आज हम सब लोग मरनेवाले है। क्यों ना हम थोडे समय के लिए दोस्त बन जाए?

(पाकलो बोल्सांतली बाटली काडता)

देखो मेरे पास गोवा का असली काजू फेणी है। ये साला कोई इंडिया का देसी दारु नही. क्यों ना मरने से पहले जश्न मनाएँ? वैसे तो आज हमारी शादी भी होने वाली थी लेकिन साला उंगली ने सत्यानाश कर दिया.

(टेररीस्ट हांगा थंय पळयता. इतल्यान होबळो रोखडोच

लागीं आशिल्लो लोणच्याचो डबो दाखयता.टेररीस्ट जीबेक रुच काडटा, थोडो विचार करता आनी बसता)

टेररीस्ट : तो हो जाए ... हाँ ...लेकिन कोई लफडा नहीं चलेगा.एक मिनिट में ६०० गोलियाँ बाहर निकलेंगी

(संजय सोऱ्याची बाटली दिता... टेररीस्ट बाटली पिता आनी लागिल्ल्या भाशेन करता आनी आपल्या दोळयार हात दवरता. इतल्यान फाटल्यान पुलिस दांडो मारता. निंदता आनी जमनीर पडटा. सगळे हांगा थंय धांवतात

इंस्पेक्टर : दोरी हाड दोरी हाड
(दोरी हाडून दितात.सगळे मेळून टेररीस्ट बांधतात आनी सुस्काराचो स्वास घेतात)

(इतल्यान स्टेजीर काळोख आनी इंस्पेकटराचेर स्पोट लाइट)

इंस्पेक्टर : ही पळय...ही पळय, हीच ती ...हीच ती ... आमच्या देशाची सगळयांत व्हडली जात युवा शक्तिची जात. आपल्या हुशारेन कामां करपाची जात ...ज्या जातीक देशा बद्धल प्रेम आसा, अभिमान आसा.
आज ह्या जातीची चड गरज. जातीचें राजकारण करुन सगळयांनी आपआपलीं पोटां भरलीं आनी आमच्या देशाची ही दयनां करुन उडयलीं.आमी सरकारी मनीस ...आमच्या कडेन देश राखपाक दिला आनी हातांत दिला हो दांडो, तुमच्या असल्या हुशार आनी वयल्या वर्गाच्या राजकारण्यांनी. पुण तरी आमीं धीर सोडनात. कारण आमच्या मुखार ही युवा शक्तिची नवी जात आसा जिका

देशा खातीर प्रेम आसा, जवळीक आसा, क्रिकेटीक इंडिया जिकली जाल्यार मोग दिवपाची ताकत आसा त्याच परी जाप विचारपाची हिम्मतय आसा. ताकाच लागून ह्या सरकारान दिल्लो हो दांडो AK - 47 ना परस कितलोसो पावरफुल आसा. तशें पळोवपाक गेल्यार तांच्या मशीन गनांतल्यान मिनिटाक फक्त ६०० गुळयो भायर सरतात, पुण आमचे युवा शक्तिचे विचार मिनटाक हजार गुळयांचे काम करपाक शकतात, तें वूय गन नासतना ...

देश वाचयतलो जाल्यार आज खरी गरज आसा ती युवा जातीक तेको दिवपाची, तांका आदार दिवपाचो.तांची तुस्त करपाची. पुण ना ... आमी फक्त जातीच मानूंक रावले एका धुवे खातीर काश्मीरा बरोबर गोंय पसून फ्री म्हणून दिवन गेले. लज लज ही, म्हाका मनीसपणाची आनी गोंयकारपणाची खरेंच सौ में नब्बे बेईमान. फिर भी मेरा भारत महान म्हणटात ते तुमीच. हें पळय म्हाका आतंकवाद्याक धरला म्हुण मेदाल मेळूं ना मेळूं पुण ह्या तरण्याटाक हांव राष्ट्रपती पुरस्कार फावो केले बगर रावचो ना.

तातो : पुरो पुरो ... आनीक चड लज म्हाका करनाका. खूप जाण चुकतात, त्या भशेन हांवूय चुकलो.आज्या पणज्यांनी रोयिल्लीं हीं जातीचीं बियां व्हडलीं झाडां जावन आमच्या मुखार आसात म्हाका माफ करात. आतांच हांव वता देव भटागेर, लग्नाचो शुभ मुहुर्त काडपाक

पाकलो : मूय दे पुर्तुगाल.तोहें जाल्यार हांव वाजोयतलों काजाराक रेबेक पुण राव रे! हो दूकोर कोणागे काजराक कापुया?

(पड्डो पड्डा)

रंगमंच - दोन घरांचो देखावो.दोनूय घराच्यामदीं एक तुळस.संजना सदूची बायल घरांत साझ्न मारता. इतल्यान एक साधू बाबा येता

साधू : बम बम बोले ....बम बम बोले ....बम बम बोले

संजना : कोण तुमी?

साधू : आत्मन्यानी ....अंतरयामी बाबा ...बम बम बोले ....बम बम बोले

(संजना झाडुसकट बाबाक नमस्कार करता)

साधू : बालिके, तूं सुखी ना. तुका खूब टेन्शन आसा. भितरल्यान तूं खूब दु;खी आसा

संजना : हय हय खरें आसा. पुण तुका कशें खबर आसा?

साधू : बम बम बोले ...बम बम बोले....बम बम बोले
तुज्या घराफाटल्यान एक व्हडलो वड आसा

संजना : हय हय आसा, पुण बाबा तुका कशी खबर आसा?

साधू : बम बम बोले ..हांव तुज्या घराच्या मुखार आसा. घोव भेरो म्हुण तुका खूब त्रास जातात.

संजना : हेंवूंय सामकें खरें, पुण बाबा ताचेर कितें उपाय आसा?

साधू : तुजो राहू सामको केतूंत घुशिल्लो आसा. बम बम बोले. हांव सांगता तें कर . ही बिबूत घे आनी तुज्या घोवाच्या नाकाक लाय.

संजना : पुण महाराज नाकाक लायल्यार कान कसो बरो जातलो?

साधू : नो क्वेशनस बालिके, नो क्वेशनस .येता हांव (साधू वता इतल्यान संजनाचो घोव सदू कानाक हेड फोन लावन घरांतल्यान भायर सरता)

सदू : भुरेगेपणांतूच रिटायर बाबडो. आतां कितें करतलो काय तो? आयकलां, तेंडुलकर खंय रिटायर जालो.

संजना : (रागान) तेंदुलकराची टेनशनां घेवन तुमची शुगर वाडोवंक नाकात. ताजी टेनशना घेवपाक जग आसा. तूं तुजे घरचेंच गिरगिरे कशें घुवंता तें पळय?

सदू : आगे, तुका संजना परस गंजनूच नांव फावो आशिल्लें. हांव कितें सांगपाक सोदता तें समजूनूच घेना तू.

संजना : कितले वेळा सांगले तुका! म्हाका आगे आगे म्हणपाक हांव नववारी कापड नेशिल्लें माताड्डूल न्हय.

सदू : हांवें कितेंय उतर काडल्यार खोजनो फुट्टा हिजो. सकाळी सकाळी पनवत्यो. राखण कर रे गणराया.

संजना : (रागान) हांवें म्हळे.... न्हाणेरान्नींत उजो घाल, वाठाराक सान्न मार, पुण ना ...सकाळींफुंडे उठ मातसो.

सदू : (कानाचो हियर फोन पडटा)
कितें म्हळें सकाळी सकाळी ऊँट आयल्यात? पयली घणसाबैल घेवन येताले.आता ऊँट घेवन येवपाक लागले?

संजना : हांव म्हणटा कानाचें मशीन लाय मातशें (तकलेर हात मारता). देवान जाणटो दिलो तो दिलो आनी ताचेर फ्री म्हुण भेरेपण दिले.

सदू : कितें म्हणटा? मेंढरेय आयल्यात?

संजना : हांव म्हणटा ओग्गी बस देवा कसलें पाप केल्लें रे हांवे? (सदूबाब हियर फोन कानाक लायता)

सदू : आ ...आतां सामके क्लियर आयकूंक येता. त्या वडाचेर ... कोगूळ गायता तें पसून कशें क्लियर आयकुपाक येता मगो. ओगीच म्हजे नांव पिड्यार करतात तुमी.

संजना : तुका वडावेलींच कोगळां गायतात ती आयकुपाक येवापाची. घरांत कोगूळ रडटा तें आयकुपाक येना तुका. बरो संवसार करतलीं म्हण लग्न करुन दिल्ले म्हाका ह्या घरांत, पुण म्हाका लागल्या पनवत

सदू : पनवत तुका न्हय ....पनवत लागल्या ती म्हाका. आतांच पळय. हांवे बांयचेर सुकूंक घातिल्ली चड्डीच बांयत पडली.

संजना : तरी पुण बरें... तू नाशिल्लो म्हुण चड्डयेंत. ना जाल्यार तुमीय गेल्ले बांयत.

सोदू : चार क्लासी शिकल्यो म्हणटगेर तुमकां बायलांक हुशारुच दिसता. बरे संस्कार आवय बापायन दिले ना जाल्यार ही गत.

संजना : हें पळय म्हज्या आवयक बापायक वयर काडूं नाका. ताणीं तुजें कांयच खावंक ना. तुजे तकलेचे केंस धवे जाले पुण अक्कल म्हणटा ती तुका आयलीच ना.

सदू : तुका कितें हांव म्हातारो दिसता गो. केंस पिकल्यात तें देवाचें तीर्थ माथ्याक सारोवन. आगो मिश्यो पिकल्यात जाल्यार सांग.

संजना : (हांसता) मिश्यो कशो पिकतल्यो? तुज्यां तकलेच्या केसांचो बार्सो जावन पंदरा वर्सांनी मिश्यो किल्लल्यात न्ही?

सदू : पुरो पुरो, तुज्याकूय व्हडलो म्हुण थोमणे मारुं नाका.

संजना : व्हडलो न्हय, जाणटो म्हण जाणटो
(इतल्यान कानाचो हियर फोन पडटा)
म्हळें आमची चली लग्नाची जाली. पणजे वच आनी लाडली लक्ष्मीचे फोर्म घेवन यो. पुण ना ...

सदू : पुण लक्ष्मीच्या देवळांत आज कित्याक वचपाक जाय? आज आयतार नी गो?
(इतल्यान सवी (सदूचें चली) कॉलेजींतल्यान येता)

सवी : मम्मी बोवाळ कसलो चल्ला गे?

संजना : तू केन्ना आयलें गो बाय कॉलेजीतंल्यान?

सवी : हें पळय आतांच येता. कित्याक बेठींच वाद घेतांत गे तुमी? पप्पा मातशे कानाक लाय पळोवया.

संजना : आगो आनी कितें करपाचें? फुगडी घालपाची? तुज्या लग्नाची खंत हांकां आसपाची. पुण ती पडल्या म्हजेर .

सदू : म्हाका खंत ना म्हणटा? आगो राती रात न्हीद पडना म्हाका.

संजना : नीद पडना खंय नीद! तू गोरेता तें आयकून म्हाका न्हीद पडना.

सवी : म्हज्या लग्नाची खंत तुमी घेनाकात?

संजना : खंत घेनाका म्हळयार जालें? ह्या दिसांनी सगळी टेनशनांच जाल्यात, हो आनी शेजारी कर्नल आयला खंय रावपाक ... गेररांत एक गुळी लागिल्ली जाल्यार सुटिल्ली पिडा. ह्या बोवाळांत घरचीं कामां तशींच उरली. हांव चल्लें भितर .
(संजना भितर वता. इतल्यान शेजाराल्या कर्नलाचो चलो राज दुसऱ्या घरांतल्यान भायर सरता)

सवी : हे राज उठलो रे?

सदू : कोण मुतलो?

सवी : पापा तूं मातसो भितर वच पळोवया

(सदू भितर वता)

सवी : हे राज ...तुजो पप्पा आयलो खंय मरे? केन्ना सांगुया रे आमच्या घरच्यांक आमची खबर?

राज : मातशें फायनल इयर जावूंनी.मागीर रोखडोच तुज्या पप्पा कडेन हांव तुजो हात मागतां.

सवी : खरेंच ! राज म्हाका एक कळना. लोक लग्नाच्या वेळार बापायकडेन हातच कित्याक मागत? पांय कित्याक मागिनात?

राज : हातांत काकणां, पाटली, तोडे आसतात न्हय. पांय मागल्यार मेळटलें ते फक्त जोतें.

सवी : खरेंच रे राज, हांव देवाकडेन सदांच मागतालें देवा म्हाका स्वता कांयच दिनाका, पुण म्हज्या पप्पाक एक बरो जांवय दी म्हणून.

राज : मागीर?

सवी : मागीर आनी कितें देवान म्हजें आयकले, पुण पप्पाक जांवय दिलो, तो धाकटे भयणीचे लग्न पयली करुन.

राज : आगो तें तशेंच आसता. कन्येक सु लायल्यार सुकन्या जाता आनी वराक सु लायल्यार सुवर जाता .

सवी : अे! राज कर्नल ना मरे घरांत. म्हाका खूब भंय दिसता ताजो.एक बोम पडल्यार आमी गेली वयर.

राज : दूध पिना आसतना बोम उडयल्यार कसलो मार पडटालो जाणा म्हाका?

सवी : आरे तो बोम नी रे. हांव म्हणटाली गेररांतलो बोम.

राज : इंडिया पाकिस्तानाच्या बोर्डरीचेर गेरर करप म्हळयार फकाणां न्हय, ताका खूब डेरिंग लागता. पुण तसो आमचो पापा समाको आडसराभशेन . सोण्ण घट्ट पुण भितर कातली सामकी मोव.

सवी : तें जालेच रे, पुण तुज्या पप्पाच्या मिशांक पळयल्यार म्हाका सामको भंय दिसता. कितल्यो तोकाद मिशो रे त्यो? सूयेन घातल्यार साक बसून शिवंपाक मेळटले. पुण एक म्हाका कळना पप्पाक येद्यो मिशो, पुण तुका मिश्यो कश्यो नात?

राज : आगो तो खंय गिराणाचो बादीकार

सवी : म्हणचें ?

राज : हांव जावपाचो आसतना खंय पप्पान गिराणाक मिशो काडिल्ल्यो, म्हुण म्हाका मिशोच आयल्यो ना खंय

सवी : कितें ?

राज : आनी ही मिस्टेक कळनाफुडें पप्पान केन्नाच मिशो काडल्योना खंय, कळ्ळे?

सवी : म्हणजें? ....बरें कळूंना रे. पयलीं म्हणजें भुरगें जावपा आसतना बापायन कितेंय केलें जाल्यार गिराणाचो बादीकार जाता हें हांव

पयलेच खेपे आयकतां आनी दुसरें म्हणचें मिशो येवुनात हें कळपाक पंदारा वर्सां तरी लागतात. पप्पाक तुज्या पयलीच कशें कळ्ळे तुका मिशो येवचीनात म्हणून? म्हणजे ..

राज : म्हणजें म्हणजें वागाचे पणजें, ....ऊँटाची मान आनी सोशाचे कान कळ्ळें ? ...

सवी : कनफ्युजन रे बाबा कनफ्युजन
(इतल्यान कर्नल येता, मदीच खोंकता)

सवी : आयलो ...आयलो ...कर्नल आयलो ...राज हांव चल्लें रें, बंकरांत.

कर्नल : (मोठयान आनी रागान) किंतें चल्ला रे? लास्ट इयर तुजें. सकाळफुडें उठून अभ्यास करपाचो सोडून टाईम पास कसलो रे करता? आरे आमी सकाळी चारांक उठून परेड करताले, व्यायाम करताले, जोगिंग करताले, पुण आतांच्या भुरगयांक माल्ल्या पिडा.आरे म्हणून तर आमी चायनाकडेन आनी पाकिस्तानाकडेनूय जींकले.

राज : पुण म्हजो अभ्यासूच चलतालो न्हय?

कर्नल : (रागान) अभ्यास चलपाक जायना, तो फायर जावपाक जाय. गनांतली गुळी केन्नाच चलना, ती फायर जाल्यारुच अचूक जागेर लागता.

राज : पुण पापा मातशें रेस्ट म्हुण घेवचेंच पडटा न्हय?

कर्नल : (मोटयान) रेस्ट ..रेस्ट ....रेस्ट ...आरे पोरा लडाई चल्ल्या आसतना कोणाकूय रेस्ट घेवपाक मेळटा? कारगीलांत सेकंडा सेकंडा गुळयों येताल्यो ...गुळयेक मातशी राव ...आमी रेस्ट घेतात म्हुण सांगतले? आरे तूं लडाईत आसा, तुजे फाईनल इयर अभ्यास कर पोरा अभ्यास कर

राज : (हळूच) पप्पा तूं म्हुण सामकोच आंगार येता मरे. हांव तुका ॲनिमी दिसता? काय पाकिस्तानी दिसता?

कर्नल : ॲनिमी न्हय ..पाकिस्तान दिसता.पाकिस्तान आरे तुका सुधरावपाचो, बरो करपाचो होच म्हजो प्रयत्न, तांतूंत हांव शहीद जाल्यार पसून भियेना.पुण हें कोणाकूच कळना.
(राज भितर वता, कर्नल घडयाळीचेर पळयता)

कर्नल : येन्ना म्हळयार हो इंजीनियर पावपाक जाय आशिल्लो. पुण अजुनूय कित्याक पावंक ना तर हो? फोन फायर केल्यार बरें दिसता.असलें केल्यार म्हाका खरेंच आवडना. दिस्ता गन घेवन घडघडीत उडोवपाचो.
(इतल्यान इंजीनियर एक फायल आनी मेजपाची टेप घेवन येता)

इंजीनियर : गुड मोर्नींग कर्नल

कर्नल : शंबर वर्सा आयुष्य रे बाबा तुका. ट्रिगर दांबता म्हळयार गुळी भायर.

इंजीनियर : नाका रे बाबा शंबर वर्सां.थोडींच मेळ्ळयार कोताक येतात पुण रुचीचींच मेळ्ळयार पुरो म्हुण मागतां देवाकडेन

कर्नल : आरे देवाक भियेवन कांयच फायदो ना. जो डर गया वो मर गया, गब्बरालो मंत्र ....आज काल फक्त गुळयांक भिवपाचें कोण गुळी खंयच्यान घालत ती सांगू नजो. हर दिमाख के गन अलग अलग होते है.

इंजीनियर : हांवूय म्हण गुळयांक खूब भिता इनेसावांक तर सामकोच भियेता ...आतां रामदेव बाबालो योग चालू केला. नाकान स्वास घेवपाचो आनी हांगच्यान सोडपाचो.

कर्नल : हांगच्यान म्हळयार?

इंजीनियर : हांगच्यान म्हळयार ...ह्या नाकाच्या पुडयेन सोडपाचो.

कर्नल : आरे तुमकां लागलां पिशें ...ताणें चुडीदार घातलो आनी तुमी घालपाक लागल्यात काकणां. तें सोड खंय गेल्यात तुज़े कामगार?

इंजीनियर : अजुनूय पावना तर ते? येन्ना म्हळयार येवपाक जाय आशिल्ले

कर्नल : खरेच ...गोंय अजुनूय सुशेगादूच आसा. हांगा आनी गेर्र जालें जाल्यार ...गनांतल्यो गुळयो दिसता स्लो मोशनांत येतल्यो .

इंजीनियर : आरे गोयांत म्हुण गेर्रां जायनात? पुण ह्या पोलिसांक लागून पाड पडटात न्ही रे ही गेर्रां ...रेडयान शीग आपटीलें रे आपटीलें आयले हे पोलिस शेतांत

कर्नल : गुळयो घाल तुज्या खोबऱ्यांक फोन लाय तुज्या कामगारांक, तो मेरेन मातशे भितर येयात (दोगूय भितर वतात)

(इतल्यान लाद्रु कामगार आनी पेद्रु कामगार एक सायकल घेवन स्टेजीर येतात)

पेद्रु : आरे लाद्रु आज ओगोत केलो मुरे? राती चोड जालें काय कितें रे?

लाद्रु : आरे ह्या दिसांनी सोकाळी उठोन दिसोता? आरे त्या दिसा जाकीन मेळ्ळे मुरे आनी सामको त्रासां पोडलो.

पेद्रु : आरे त्या जाकीना फाटल्यान लागनाका. तुगे फुलामेन पिंजून उडोयतोल्ये तुका?

लाद्रु : आरे तेसो खोबरो नू रे ...काल सामको मूड ओफ जालो. जेर येलो नू रे.

पेद्रु : मागीर हांये सांगलो मुरे तुका जेर येता म्हुणं?

लाद्रु : हांव जेर लावपा ओयतालो पुण हांवे मोठे जाकीना चोयन आठ लायलो नू रे?

पेद्रु : तुझें पोडलें पाड. शी....

लाद्रु : आमका इंगा वावरा आपोयल्याय नू रे. पुण इंगा कोणू ना मूरे?

पेद्रु : मोठयान उलो मार

लाद्रु : ओ घारा ...आरे ओ घारा ...इंगा कोण कार्नवाल म्हुण रावता

आमका वावरा आपोयलेले.

(कर्नल भायर सरता)

कर्नल : यो ...यो ..हांव तो पुण कार्नवाल न्हय कर्नल

लाद्रु : कोणूय जांव रे....कर्नल जांव नाजाल्यार कार्नवाल जांव ... आमका कितें? वावर केल्यार पुरो नू ?

इंजीनियर : आयले तुमी बरें जालें .... सांगता सांगता आं .. म्हणटगेर करुया नी सुरवात कर्नल बाब

कर्नल : हें पळय कर्नल म्हण ...कर्नल ...बाब म्हणपाक हांव कितें दूध पियेना

इंजीनियर : (मनांतल्या मनांत गुणगुणटा)
म्हणटगेर चावेक दूध घालनात दिसता हे सोड ...आं ...तर सुरु करुया नी काम? ह्या दुरीगाची ही पळय फायल.सामके पंदरा मिटरावेल्यान सुरु करपाचे.

(कामेर टेप घेवन मेजतात.हे दोगांय फायलीक पळोवन उलयतात)

लाद्रु : आरे केसो मेजीता? मिठेर ..मिठेर ..करुन मेज मुरे

पेद्रु : मिठेर... मिठेर कोन मेजपाक आमी कितें जाकीनालो इस्तीद शींवताय रे?

इंजीनियर : आरे तुमच्यो खोबरो पुरो. कामाक मातसो नेट मारात

(इतल्यान दुसऱ्या घरांतल्यांन संजना पळयता आनी रागान भायर सरता)

ना : आं....बा . ...सकाळी सकाळी फुडें दुरगां बांदपाक लागल्यात काय कितें?
झोळयेंत पैशे भरल्यात दिसता मेल्ल्याच्या? आरे तुज्या आज्यान आनी पणज्यान पसून दुरीग बांधले ना आनी आतां तूं बांदपाक आयला रे? रिटायर जावन पोटलो हाडला दिसता?

ल : (रागान) ओग्गीच कित्या किते उलोवंक नाका सांगून दवरता. हांव सामको कायद्यान आसां. हि पळय फायल.

ना : फायल घाल तुजी .....उज्यान .....शी ...SSS.....तोडांत उतरां येतात.

ल : हें पळय तोड सांभळ ग़ेर्रांत रनगाडो पसून चलोवपी कर्नल हांव

ना : रनगाडो चलयतालो काय बैलगाडो म्हुण देव जाणा?

ल : तुज्या असल्या बायलेक म्हज्या गनाची एकूच गुळी पुरो

ना : पुरो पुरो भिता तुज्या गनाक हांव.

नेरी : तुमगे गेर्र काबार जातोगेर सांगाय, आमकां आयच्या दिसा वावरा पौयशे गेले दिसोता.

संजना : तूं दुरीग कसो बांदतलो तेंच पळयता नी हांव कर्नल खंय कर्नल (इंजीनियराक सांगता)
आरे हांवे रोयिल्लें चिकवाचें झाड मातशें वाकडें गेलें आनी हाच्या भाटांत पावल्यार हो सगळे चिकूच काडून खाता नी रे

कर्नल : पुरो पुरो आनी आमचे निरपणस कोण खाल्ले?

संजना : म्हज्या भाटांत पावतगेर हांव हक्कान खातलीं, तूं कोण म्हाका सांगपाक

कर्नल : तशें जाल्यार त्या दिसा तो दिवोड म्हज्या भाटांतल्यान तुज्या भाटांत पावतगेर नाचताली मगे...घागरो वयर काडून हक्काचो म्हुण कित्याक दवरलो ना तर ताका? असल्या मनशांक इंडियेक दवरप म्हळयार देशाचें नांव बसून पिड्डयार ....हाड रे तें म्हजें गन ...मारुया हीचेर फार

संजना : म्हजेर फार मारतालो ....? म्हजेर ....? गनांत आसा मरे गुळयो ....? ना जाल्यार हाव म्हणटाली ....घाल म्हुण गुंटल्यो ....बोरांच्यो.

कर्नल : (रागान) हें पळय फकणां करिनाका ....जेटान बोम घालून घरुच ना करतलो. ह्या वाघाक वळखून नकळो तूं

संजना : तुगेल्या जेटकाक कोण भियेता रे? आनी मिश्यो दवरल्यो म्हुण वाघ जायना. तू कागदार चित्रायल्लो वाघ मरे.

(इतल्यान तामिलनाडूचो रामस्वामी तकलेर भस्म, लुंगी न्हेशिल्लो

स्टेजीर प्रवेश करता)

रामस्वामी : अयो ...यो ...तुम क्या करता? ...
इतना गरम क्यों होता जी? ...तुज क्या पयल्या जल्माक इलेक्ट्रीक ग्रीझर था जी?

संजना : (रागान) बेठीच तकली खावनाका पयलींच सांगून दवरतां ...लुंगी सोडून शेवटून भायर मारतली. हांव तुका शेजारी म्हुण ओगी रावतां.

रामस्वामी : आरे कुतुबमीनार गिर जाएगा, पर ये लुंगी नहीं छुटेगा ये वादा रहा.

संजना : वादा जांव ना जाल्यार पादा जांव. आमचे मर्दी बेटेच टुणटुणें वाजयनाका

रामस्वामी : अयो ....यो ...ये क्या जी?
गोवा अच्छा है, गोवा के लोग अच्छे हैं ...लेकिन ये क्या जी? ...यहाँ तो रोज रोज झगडे ....कोई स्कूल के बच्चों पर रेप करता है, कोई ड्रग्ज बेचता है. गोवा को तो तुम्हारा चिकन गुनिया हो गया जी.

संजना : तुमच्या असली भायली किमसां आयल्या म्हुण पाड पडलां तें सगळें. तुगेले रेबेक मातशें बंद कर पळोवया, खंयच्यान येतात म्हुण देव जाणं.

रामस्वामी : तामिलनाडू ...तामिलनांडू ..हम तामिलनाडू

संजना : तामिलनाडू जांव ना जील्यार बेसनलाडू जांव.अक्कल नाशिल
तरे वार नावांचे लाडूच तुमी.

इंजीनियर : आपका नाम लाडू है?

रामस्वामी : नाम ...मेरा नाम बोलता जी ...अययर ...वेणूगोपाल अयय
...मूत्तू स्वामी वेणूगोपाल अय्यर ...चिन्हस्वामी मूत्तूस्वा
वेणूगोपाल अय्यर ...श्री निवासना ...तिर्चीपल्ली ...टटूपटू
चिन्हस्वामी मूत्तूस्वामी वेणूगोपाल अय्यर .

इंजीनियर : आरे हाका वळखता मरे हांव. हो खंयच्या तरी पिच्चरांतल
हीरो मरे.

रामस्वामी : अय्या यो ...मैं बोलता ...क्यों झगडा करता? इसे अच्छा
तुम ये जमीन बेच डालो ... मैं अपना तामिलनाडू का आद
लाएगा ...अच्छा अच्छा पैसे देंगा ... और क्या माँगता गोवा
लोगों को? ...जमीन बेचने का, पैसा लेने का, बडा बडा गा
खरीदने का और दारु पीने का ..बस....

संजना : आमची जमीन विकपाक तूं कोण रे मेल्लो पडिल्लो दांत सो

(इतल्यान साधू आनी सदू स्टेजीर प्रवेश करतात)

सदू : आगो ....आगो ...हें कितें चल्लां? म्हाका तिटयार कळ्ळें तु
झगडटात म्हणून. धांवत धांवत आयलों. मातशीं ओग्गी राव
पळोवया

साधू : बम बम बोले ...:बंद करात तुमचीं झगडीं (सगळे जाण ओग्गी रावतात) बम बम बोले...हांव ओदोळच्यान आयकतालों तुमची झगडी. आरे कित्याक झगडटात तुमी? शेवटीं तुमीं कितें घेवन वचपाचे आसात ह्या संवसारांतल्यान.

देवान तुमकां मनशांचो जल्म दिवन लेगीत जनावरां भाशेन कशीं वागतात तुमीं?

हांव पळयतां ...घरा घरांनी हेंच चल्लां, झगडीं झगडीं आनी झगडीं...

कोण भाटाखातीर झगडटात तर कोण घराखातीर. घोव बायला डिवोस दितात आनी झगडटात एका भुरग्याखातीर. बम बम बोले ...

चितांत पापयानो चिंतात ....

भुरगेपण कांयच समजनास्तनां गेलें, तरुणपण काम धंदयाच्या फाटल्यान धांवलें. आनी आतां तुमचीं वर्सां उल्यांत कितलीं ? हांचो हिशोब करात. बम बम बोले ...

याद दवरात मनीस आपलो birthday मोठे दबाज्यान मनयता पुण आपलो deathday केन्नाच मनोवंक शकना हें आमीं कोणूच येवजीनात आमी फक्त झगडींच करपाक उल्ले.

शी ऽऽऽ...शी ऽऽ .. खरेंच विट येता म्हाका ह्या जीणेची बम बम बोले ...

आरे राजे महाराजे सुद्धा किल्ल्या खातीर झगडले, लोकांची कत्तल केली त्या किल्ल्यां खातीर तरण्या रक्ताच्या सैनिकांचो संवसार उघडयार पडले. भुरग्यांक अनाथ केले, बायलांक विद्वा केल्यो? पुण शेवटी कितें? आज कोण खाता त्या किल्ल्यांक? झगडीं करुन कांयच फायदो ना. बम बम बोले ...

संजना : आज तुवें आमचे दोळे उगडलें (साधूक पांयां पडटा) घुंवळ आयल्यार बोबेक शेजारी कांदो घेवन येता हें एकदम खरें. सोयरी येतात ती हॉस्पीटलांत ... बिस्कीटेचो पुडो घेवन हाच्या फुडें हांव शेजाऱ्याकडेनूच न्हय, कोणाकडेनूच झगडचे ना

(इतल्यान कर्नलाचो पूत राज आनी संजनाची धूव सवी दोगांय हातात हात घालून येतात)
त्या बरोबर सगळी पळोवपाकूच पडटात

सवी : मम्मी आज साकून झगडीं बंद ...कायमची बंद. तुमकां एक गोड खबर आमी दोगांय एकामेकाचेर मोग करतात. आमकां तुमचो आशीर्वाद जाय, बरो संवसार करपाक. तेन्ना आमच्या मदीं हें दुरीग बांधिनासतना आमी दोनूय घराच्या सभोंवतणी गोड नात्याचें घट्ट दुरीग बांदूया.

(पड्डो पट्टा)

***



**संदीप वासुदेव रिवणकर** हांचो जल्म गोयच्या निर्सगान नटील्या राय ह्या गावात जालो. वाचन आनी लेखन हो तांचो पयली साकुन छंद. आपल्या व्यवसाया बरोबर आपलो छंद फुडे व्हरताना ताणीं नाटकां,बाल नाटकां, लघु लेख, कविता. अशें साहित्य तयार केले. कॉलेजिंतल्यान नाटकां बरोवन सादर करपाक तांकां खुप आवडतालें. कला अकादमीन घेतील्या आखिल गोंय महा विद्यालयीन नाट्य स्पर्धेत उत्कृष्ट कलाकार म्हण तांका इनामूय फावो जाला. आज मेरेन तांचे साहित्य तरेकवार वर्तमानपत्रकांचेर प्रसिद्ध जालां.

**''आनी कणसां हांसली''** हे तांचे पयलेंच पुस्तक उजवाडाक येता. आयच्या पिळगेक नाटकाच्या रुपान हांसत हांसत उमेदीन बरी देख दिवपाक कशी शक्य आसा, ही तांची कला आमकां या नाटकांतल्यान पळोपाक मेळता. आमच्या माणकुल्या गोंयांत अश्या नाटकांची निर्मिती जावप खुप गरजेचें आसा.

पुष्पावती प्रकाशन

दाभण-राय, सालसेत - गोंय